# सोशाची मावशी

काणयां झेलो

- सौ. नयना आडारकार

जैत प्रकाशन

शणै गोंयबाब महोत्सवाचें अस्मिताय वर्स

# सोशाची मावशी

- सौ. नयना आडारकार

---


* प्रकाशन क्र. - १३

* उजवाडावणी - २००३

* **उजवाडावपी :**
जैत प्रकाशन
कोरली, तिसवाडी
गोंय - ४०३११०
फोन : २२८४६३७

* **छापपी :**
सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम
कोरली, गोंय - ४०३ ११०

* **कव्हर आनी चित्रां**
सौ. स्वाती सुदेश नायक

* **मोल : १८ रूपया**

---

*हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या शणै गोंयबाब महोत्सवाचा बालसाहित्य प्रकाशन अनुदान येवजणेखाला छापलां.*


---

# सोशाची मावशी

साखळेच्या रानांत, पणसांच्या मुळांतल्या घोलींनी खूब सोशे रावताले. तांच्या मुखेल्याचें नांव चानुल्लो. चानुल्ल्याक रानांतल्या सोशासयत बाकीच्याय जनावरांमदीं बरोच मान आशिल्लो. तो उतराक जागपी अशें सगळयांक खबर आशिल्लें.

त्या सोशांचीं माणकुलीं पिलां मात खूबच मस्ती करतालीं. वेळ पळोवपना, काळ पळोवपना, दिसाचीं, तिनसांजचीं केन्नाय मस्ती करीत, किळांट्यो मारीत आसतालीं. जाण्टेल्यांनी तांकां ना-ना परीन समजायलें, धपकायलें. पूण तीं कोणाकच बदलींना. तांच्या मस्तेपणाची कागाळ चानुल्ल्याकडेन गेली. चानुल्ल्यान त्या मस्त्या पिलांक बरेभशेन, मायेन, मोगान समजावन पळयलें. गाजरां दिवपाची आस दाखयली. पुणून, पिलांनी कानामनार घेतलेंना. तेन्ना तांकां भियेवपाक चानुल्ल्यान फकाणांनी, म्हळें, 'हें पळयात तुमी अशी मस्ती केल्यार हांव तुमकां काडून कोल्याक दितलो आं.' चानुल्ल्यान अशें म्हणपाक आनी कोलो पणसाकडच्यान वचपाक एकूच वेळ जालो. जालें कोल्यान चानुल्ल्याक सारको उतराक धरलो. म्हणपाक लागलो, "चानुल्ल्या, तूं उतराक जागपी म्हूण सगळीं जाणां, तेन्ना तुवें त्या सगळया मस्त्या भुरग्यांक म्हज्या सुवादीन करचें पडटलें." चानुल्ल्याचेर आयलें संकट. तरीय अडेंचें हांसत ताणें म्हळें 'हय रे बाबा. ना कोण म्हण्टा? हांव म्हज्या उतराक जागतलों. पूण पळय, परवां पुनव. पुनवेच्या लख्ख चान्न्यांत, हीं मस्ती भुरगीं तुजे सुवादीन करतां. तूं पुनवेक यो.' पुनवेक तर पुनवेक पूण सोशांची पिलां तर खांवक मेळटलीं ते आशेन कोलो 'येतां आं पुनवेदिसा.' म्हणत गेलो.

चानुल्ल्यान कोल्याक दिल्लें उतर आयकून पिलांसयत सगळे सोशे भियेले. तरीय चानुल्ल्यान कोल्याक दोन दिसा उपरान्त पुनवे दिसा आपयला म्हळयार ताच्या तकलेंत कसलेतरी विचार आयल्या जातले हें बाकीच्या सोशांक कळिल्लें. आनी जालेंय तशेंच. चानुल्ल्यान एका सोशाक आमोणेच्या रानांत धाडून चानुल्ल्याचे मावशेक सगळी खबर सांगूक लायली. आनी तिणें ताचेर उपाय काडचो अशें मागलें. चानुल्ल्याचो रकाद मेळटांच मावशी रोखडीच साखळे आपल्या पुतण्यासरी येंवक भायर सरली.

येताना तिणें आपल्या रानातलें सांवरीचो थोडो कापूस मागून घेतलो. तो कापूस तिणें बरो दामून ताका सोशाचो आकार दिलो. वाटेर पडील्ल्या काळंगांच्या बियेंतल्यो दोन बियो तिणें त्या सोशाच्या दोळयांच्या जाग्यार लायल्यो. आनी ती बध्द साखळे चानुल्ल्या म्हऱ्यांत आयली. तिणें सगळ्या सोशांक एकठांय आपोवन एक मांडणी सांगली.

पुनवे राती तिणें त्या कापसाच्या सोशांक एका उंचेल्या फातरार बसयलो. आनी ताच्या गळ्यांत फुलांची माळ घाली आनी रानभर खबर पातळायली की चानुल्ल्याचे मावशेन बरो सोबीत, गुटगुटीत 'देवसोसो' हाडला. तिका तो चंद्रिमान भेट म्हणून दिला. जालें ही खबर कोल्याच्या कानार गेली. तो बेगबेगीन सोशांचे वस्तींत आयलो. ताणें पळयलें, त्या उंचेल्या फातरार खरेलोच एक 'देवसोसो' बसला आनी फातरा सरभोवतणी सगळे बारीक मोठे सोशे बसल्यात. कोल्यान चितलें, 'सोशांची ती बारीक पिलावळ खावन म्हाका कितें मेळटलें. सामकींच तन्नी पिलां तीं. ना सुवाद, ना रुच. ते पुरस हो देवसोसो म्हाका मेळिल्लो जाल्यार मजा येवपाची'. ताणे चानुल्ल्याक आपल्यासरी आपयलो. आनी म्हळें, 'हें पळय चानुल्ल्या, म्हाका हो देवसोसो दी. बदलाक तुवें दिल्ल्या तुज्या उत्तरांतल्यान हांव तुकां मेकळो करता. तुमचीं पिलां म्हाका नाकांत. त्या बदलाक हो एकूच देवसोस दी.' जालें चानुल्लो ह्याच खिणाची वाट पळयतालो. ताणे म्हळें, 'देवसोसो मावशेचो. हांव तिका विचारुन पळयतां.' ताणे मावशेक तशें विचारलें. मावशी म्हणूंक लागली, 'ह्या इतल्या माणकुल्यांच्या बदलाक एकूच देवसोसो मागता म्हळयार खरेंच कोलो बऱ्या गुणांचो आसतलो आनी अश्या कोल्याक हांव देवसोसो ना कशी म्हणत? पुणून एक देवसोसो. ताका खांवचे पयली न्हंयचेर वचून तूकां तोंड धुंवचें पडटलें. तूं तोंड धुयतना म्हाका देवाचीं नांवां घेवचीं पडटलीं. ते खातीर आमी दोगांय या.'

चानुल्ल्यान मावशेक आदले दिसाच न्हंय दाखोवन दवरिल्ली. ते न्हंयत कितलींच मानगीं रावतालीं. कोलो न्हंये धडेर पावलो तेन्ना आपले अर्दे आंग धडेर दवरुन कांय मानगीं विसव घेतलीं. कोलो देवसोसो खांवक मेळटलो म्हूण उमेदीन आसलो. ताका उमेदीभरशीक ते धडेवयले फातरुच दिसले. एका मानग्याच्या तोंडार उडी मारली आनी तोंड धुंवक तो बागवला मात मानग्यान ताका तोंड उगडून गटाप केलें. कोलो मेलो आनी सोशांवयलें अपसरण पयस जालें. सगळयांनी मावशेचे उपकार मानले आनी चानुल्ल्यानूय ह्यानफुडे कितेंय उलोवचें आदी विचार करुन उलोवपाचें थारायलें. मस्ती पिलांय जालीं शाणी. सोपली ही काणी.

●

# सौवेचें फळ

कुंकळे गांवचो हा केगदोकट्टो वाडो. ह्या वाड्यार एक जाण्टेलो आपलो पूत आनी भाच्यासयत रावतालो. आपल्याकडेन जायसर जाण्टेल्यान आपल्या पुताची आनी भाच्याची अर्थ-अपुरबाय केली. चड लाडान जाण्टेल्याचो पूत आळशी आनी आपलो खावपी जालो. आवय-बापूय नाशिल्लो भाचो मात आपल्या जाण्टेल्या मामाक खूब मानतालो. तो भोव समजिकायेचो मायेस्त आनी शांत सभावाचो आसलो. आपल्याक जाता ते परीन तो आपल्या मामाक कामाक आदार करतालो. आनी रातचो मामा न्हिदतकच मामाचे पांय चेपतालो. एक दीस जाण्टेल्याक जोर आयलो आनी जोराचें निमित्त जावन जाण्टेलो देवाघरा गेलो.

जाण्टेलो आसासर आपल्याक खांवक जेंवक आयतें मेळटालें. आतां काम केल्याबगर जेवंक मेळचेंना हें येवजून जाण्टेल्याचो पूत जाण्टेल्याच्या भाच्याबरोबर काम सोदूंक भायर सरलो. गांवांत बरोच भोवल्या उपरान्त जाण्टेल्याच्या पुताक भाट राखपाचें काम मेळ्ळें. हरशींय तो आळशीच. आनी आता तर फकत भाट राखपाचें काम आनी तेंवूय बरो पगार घेवन. तो बरोच खोशी जालो. हेवटेन भाचोय गांवभर भोंवलो. ताणें जायत्या जाणांक अडचल्ल्यांक आदार केलो. आनी ताणीं बदला जे कितें दिलें ताचेर समादान मानून रावलो.

जाण्टेल्याच्या पूताक बरो पगार मेळटालो. तो आता बरी-बरी मुस्तायकी घालपाक लागलो. बरें बरें खावपाक जेवपाक लागलो. पूण भाचो कितें जोडटालो तें ताका खावपाकच पावनासलें. पूण तरीय तो समादानी आसलो. जाण्टेल्याचो पूत मात भाच्याचे दशेक पळोवन हांसतालो. ताका हिणसायतालो. "आरे पापया, तुज्या सारको थंड सभावाचो मनीस कांयच करूंक पावचोना. नाजाल्यार म्हाका पळय. म्हजी ही

मुस्तायकी, म्हजो हो झेत पळय." तांचीं उतरां आयकून तातूंत म्हाका आनंदच आसा. पूण म्हजे सेवेक एकदीस तरी फळ मेळटलेंच. मागून घेवपापरस, आपखोशेन लोक दितात तातूंत म्हाका खोस भोगता. पूण जाण्टेलाच्या पूतान ताका हिणसावपाचें सोडलेंना. एक दीस भाच्यान आपलें नशीब आजमावपाक आपलो गांव सोडलो आनी तो मडगांवा आयलो.



मडगांवां एक गिरेस्त मनीस रावतालो. तागेर बारीक सारीक कामां करपाक जायते मानांय आसले. त्या गिरेस्ताचो जाण्टेलो बापूय मदीं बरोच दुयेंत जाल्लो. तो बरो जाल्लो. पूण अशक्ततायेन ताका चलपाक तर सोडाच आपल्या हातान खावपाक लेगीत जायनासलें. हातरुणारुच ताची सगळीं सेवा करची पडटाली. त्या गिरेस्तान जायत्या जाणांक आपल्या बापायची सेवा करपाक दवरले. पूण जणएकल्याक फक्त

पयशांची आस आसली. जाण्टेल्याची सेवा करपाक ते वाजेताले. एका बऱ्या मनशाच्या सोदांत तो गिरेस्त आसतनाच भाचो थंय पावलो. त्या गिरेस्तान ताका म्हळें, 'हें पळय, हांव जो कितें आता आसा तो म्हज्या बापाय पसत. म्हज्या बापायची सगळी सेवा तूकां करची पडचली. तशेंच तूका वर्सभर हांगाच रावचें पडटलें. तूकां खांवक जेंवक कपडो-लत्तो कांयच फाल्त जावचेंना. वर्स जातकच तूका जाय तितले पयशे मेळटले. भाच्यान गिरेस्ताक हयकार दिलो.

भाचो पयलीं आपल्या जाण्टेल्या मामाची सेवा करतालो. गिरेस्ताच्या जाण्टेल्या बापायक पळयताकच ताका आपल्या मामाची याद जाली. ताची सेवा करतना आपल्या मामाची सेवा करता अशें ताका दिसतालें. तो सद्दां गिरेस्ताच्या बापायक पुसतालो. ताका न्हेसोवन आपल्या हातांनी ताका भरयतालो. वेळच्या वेळार वखद दितालो. फळांचो रोस काडून पिवयतालो. ताच्या पायांक तेलान मालीश करतालो. आनी तो न्हिदताना ताचे पांय चेपतालो. ताच्या कामार गिरेस्तूय बरोच खोशी जाल्लो.

व्हडा मायेन भाचो जाण्टेल्याची सेवा करतालो. करता करता ताचें आरोग्य सुदारपाक लागलें. तो उठून बसपाक लागलो. आपल्या हातांनी खावपाक लागलो. आनी ल्हवू-ल्हवू भाच्याच्या आदारान घराभितर भोंवपाक लागलो. वर्साभितर जाण्टोलो सडसडीत बरो जालो. भाच्याचो घरा वचपाचो वेळ जालो तशे गिरेस्तान पयशांनी भरील्लें एक ताट ताच्या म्हऱ्यान दवरलें. इतल्यान गिरेस्ताचो जाण्टोलो बापूय थंय आयलो. ताणे म्हळें, "बाबा रे स्वताचो पूत लेगीत करूं शकचोना इतली बरी सेवा तुवें म्हजी केली. म्हज्या पूतान तूकां हे ताटभर पयशे दवरल्यात. ते खिणाचे पूण हांव तूका आशिर्वाद दितलो तो जिणेचो' तुकां हांतूतलें कितें जाय तें एक व्हर. जाण्टेल्यान तशें म्हळां मात, भाच्यान जाण्टेल्याच्या पायांक हात लावन नमस्कार केलो. जाण्टेल्यान ताका आशिर्वाद दिलो, 'येशस्वी जा."

गिरेस्ताल्या जाण्ट्या बापायचे आशिर्वाद घेवन भाचो कुंकळे आयलो. वर्सभर रावून फक्त आशिर्वाद घेवन आयिल्ल्या भाच्याक पळोवन, जाण्टेल्याच्या पूताक सामकें हासूंक आयलें. 'हे सेवेचें फळ हो आशिर्वादूच मरे. हो आशिर्वाद तकलेर घेवन गांवभर भोंव' थोमणे मारीत जाण्टेल्याचो पूत भाच्याक परतून हिणसांवक लागलो. भाचो ओग्गी रावलो. रातीकडे न्हिदतना भाच्यान देवाक नमस्कार केलो. आपल्या जाण्ट्या मामाक आनी गिरेस्ताच्या जाण्टेल्या बापायची याद काडून ताकांय मनांतल्या मनांत नमस्कार केलो. आनी तो न्हिदलो.

सकाळी भाचो जागो जालो तो कोणेतरी दार धोडायल्ल्या आवाजान. भाचो आनी जाण्टेल्याचो पूत बेगीबेगीन भायर येवन पळयल्यार तांका, एक काळो कोट घाल्लो मनीस कांय कागदां घेवन उबो आशिल्लो दिश्टी पडलो. ताणे भाच्याची चवकशी केली आनी गिरेस्त मनशान दिल्ली कागदां भाच्याच्या सुवादीन केलीं. तो मनीस गिरेस्त मनशालो वकील आशिल्लो. गिरेस्त मनशाच्या बापायन आपले कुंकळेचे भाट भाच्याच्या नावांर केल्लें, भाटांत नाल्ल, काजू, पणज, आंबे अशी जायती पिकावळ जाताली. भाच्यान ती फळ-फळावळ विकून येता ते येणावळींत गांवांत शाळा उगडल्यो. गरीब गरजू लोकांखातीर धर्मशाळा-उगडल्यो. अडी-अडचणीवेळार लोकांक मदत केली. आनी गावांत एक दानी मनीस म्हूण नामनां मेळयली.

●

# मुठभर काय भाटभर

खूब वर्सांपयलींची गजाल. एका गावांत एक शेतकार आनी ताची बायल रावताली. खावन-जेवन दोगांय खूब सुखी आशिल्लीं. पूण तांकां दुःख आशिल्लें तें तांच्या एकल्याच अपुरबायेचे धुवेचें, गुलाबांचें. गुलाब रुपान सुंदर आशिल्लें. पूण पांयान मात थोटें आशिल्लें. ताका कोणाच्या आदाराबगर चलपाक जायनासले. पूर्ण ताका दोगांयनी हर तरेचें शिक्षण दिल्लें. गुलाब मनान खूब बरें आशिल्लें. गांवांतल्या सगळ्या लोकांक तें ह्या ना त्या कामांत आदार करतालें. ताचो आवाजूय सुंदर आशिल्लो. तिनसांजेचे देवाक दिवो लायले उपरान्त तें तुळशीचे पेडीर बसून गायतालें तेन्ना अख्खो गांव तल्लीन जांव ताचें गायन आयकतालों. केन्ना केन्नाय त्या राज्याच्या राजाचो एक शिपाय तिनसांजचो गांवांगावांतल्यो खबरो घेवन राजासरी वतना ताज्या कानार हें गावपाचे सूर पडटाले. तेन्ना तें गायन आयकून अख्ख्या दिसाची ताची थाकाय पयस जाताली. मागीर तो परत ताजो-टवटवीत जावन फुडलो प्रवास करतालो.

त्या दिसा राजाच्या माणकुल्या राजकुंवराचो वाडदीस आशिल्लो. सगळें राज्य दिव्यांचे रोशणांयेन सजयल्लें. गोर-गरीबांक वाटपाखातीर कपडे-पयशे खावपाचे जिनस तयार दवरिल्ले. राजकुंवराच्या ओवाळणीची सगळी तयारी जाल्ली. आनी इतल्यान माणकुलो राजकुंवर रडूंक लागलो, मांत्रिक-तांत्रिक सगळे आयले. पूण राजकुंवर रडपाचो थांबचना. सगळो लोक चिंतेंस्त जालो. राजकुंवर रडून रडून जार जालो. इतल्यान राजाच्या त्या शिपायाक गुलाबाच्या गिताची याद जाली. गुलाबाचें गीत आपल्या अख्ख्या दिसाच्या कामाची थाकाय पयस करता. घडये तेंच राजकुंवराचे रडें थांबोवंक शकतलें. जालें. शिपायान घोड्याचे फाटीर उडी घेतली आनी बध्द गुलाबाच्या गांवांत येवन थारलो. ताणें गांवातल्या लोकांकडेन गुलाबाची चवकशी केलीं. आनी तो

गुलाबाच्या घरा गेलो. ताणे राजकुंवराची सगळी खबर गुलाबाक सांगली. ताणें म्हळें, “बाय गो, हांव जेन्ना जेन्ना सामको थकून ह्या गावांतल्यान पासार जाता तेन्ना तेन्ना तुजें गीत आयकून म्हजी थाकाय खिणभरयांत नाच्च, जाता. तेन्ना म्हजेर एक उपकार करशीत? आमच्या माणकुल्या राजकुंवराखातीर राजवाड्यांत येशीत आनी गायशीत?’



गुलाबाचें काळीज हेरशींच कोणालेंय दुःख आयकल्यार कूच्च जावपी आनी हांगा तर एका माणकुल्याचो प्रस्न! गुलाबान आपल्या आवय-बापायक विचारलें. तेन्ना तांणी व्हडा खोश्येन शिपायाबरोबर वचपाक दिलें.

शिपायान गुलाबाक सांबाळून घोड्यार बसयलें आनी रोखडोच तो राजवाड्यांत हजर जालो. थंय राजकुंवरांची अवतीकाय पळोवपाची नाशिल्ली. रडून रडून ताचें तोंड सुजिल्लें. राजा-राणी आनी सगळीं राजवाड्यातलीं मनशां सामकीं थथर-वितर जाल्लीं. शिपायान गुलाबाक आदार दिवन ताका एके गादयेर बसयलें. गुलाबान राजकुंवराक

आपल्या मांडयेर बसयलो आनी ताणें आपल्या गोड आवाजान लयेन गावपाक सुरवात केली.

"मळबांतल्या चंद्रा, मातसो बाबुल्याक पळय,
झेलय झेलय वाऱ्या तू बाबुल्याक माथ्यार झेलय."

गुलाबाचें गीत कानार पडटांच राजकुंवरान रडें थांबयलें. आनी तोंडान बोट घालून तो ल्हवू ल्हवू दोळे धापपाक लागलो. आनी रोखडोच सुस्त न्हिदलो. राजकुंवर न्हिदताच सगळ्यांच्या जिवाक सूऽजालें. राजाक तर गुलाबाक खंय दवरुं आनी खंय नाका अशें जालें.

राजान म्हळें, 'बायगो, तुवें म्हजेर खूब उपकार केले, आयज तूका जाय तें माग. पयसो-भांगर-शिंगर जायतें. भाटभर दिता.'

गुलाबान नमळायेन राजाक म्हळें, 'राजा म्हाका म्हज्या आवय-बापायन भाटभर सूख दिलां. आता तीं दोगांय जाण्टीं जाल्यांत. हांवूच ताचें एकलेंच अपुरबायेचें चली आनी तांच्या जाण्टेपणातलो आदार. पूण हांव अशे अपंगूळ म्हणून खंयूय काम-धंदो करुंक शकना. तेन्ना भाटभर पयशा बदला, खंयूय कामाक लागून मुठभर जरी जोड जाली तर त्या म्हज्या कश्टाच्या पयशांनी हांव म्हज्या जाण्टेल्या आवय-बापायक सुखी दवरुंक शकतलें.'

गुलाबाच्या उतरांनी राजा खोशी जालो. ताणे ताका राजगायिका म्हूण सन्मान दिलो. राजाच्या दरबारान गुलाब राजगायिका म्हूण रावलें खरें. पूण म्हयन्यात एका फावट तें आपल्या गांवात येवन लोकांक आपल्या स्वर्गीय आवाजांत गितां गावन दाखयतालें.

●

# कश्टाळू जॉन

बाणावले गांवांत एक जाण्टेलो भाटकार रावतालो. ताचें एक सुपुल्लेंच पूण मांड आनी आंब्या-पणसाच्या झाडांनी भरिल्लें भाट आशिल्लें. भाटकारान आपणें स्वताच भाटांत काम करचें. आपणालीं भुरगींच जाल्लेवरी ताणें झाडांची कुयदाद घेवची. माडांक आळें खणचें, झाडांक सारें घालचें, बांयचें उदक काडून झाडां शिंपचीं आनी झाडांक बरीं फळां लागल्यांत तीं पळोवन समादान पावचें. मागीर तो स्वताच वयर झाडांचेर चडून झाड-पिंकीं फळां तोडटालो. आनी बाजारांत विकतालो. माडार चडटना ताणें कमरेक मूज बांदची, मूजीक कोयतूल लावन पायांक सुमाची कोंयडी घालची आनी सरसर माडार चडचें. माडावयले सुके नाल्ल ताणें सकयल उडोवचे. आनी मानाय लावन ते नाल्ल बाजारान विकूंक धाडचे. ताका येणावळ बरी जाताली. ताणें त्या पयशांनी गांवातल्या अडचल्ल्या लोकांक आदार करचो. देखून गांवच्या लोकांकूय भाटकाराविशी खूब आदार आशिल्लो.

भाटकाराक दोग पूत आसले. व्हडलो पूत जॉन आनी धाकलो जुजे. जुजे दोन वर्सांचो आसतानाच भाटकाराची बायल भायर पडिल्ली म्हूण भाटकाराची जुजेचेर इल्ली चडूच माया आशिल्ली. बापायच्या अती मायेन जुजे चडूच हट्टी आनी सुवार्थी जाल्लो. खंयचीय वस्त, जांव खावपाची वा खेळपाची जॉनाक दिनासतना ती झोपय मारून आपल्याकूच घेवपाची ताका संवय जाल्ली. जॉन मात खुबच समजिकायेचो जाल्लो. आपल्या भावाक आपलो वाटो दिवपाक तो फाटी सरनाशिल्लो. भाटकाराक दिसतालें जुजे आजून ल्हान आसा. वाडटे पिराये बरोबर ताका गिन्यान येतलें आनी तो जॉनाबरोबर मेळून मिसळून वागतालो. पूण वाडटे पिरायेर जुजे चडूच सुबेज, आयतें खावपी आनी फोल्गी जाल्लो.

जॉनांत मात ल्हानपणासावन कश्ट करपाचे गूण आशिल्ले. भाटकार काम करतना जॉन ताका बारीकसाणेन नियाळटालो. कसलेंय काम ताच्या रोखडेंच लक्षांत येतालें. तो मागीर बापायक त्या कामांत आदार करतालो. अडी अडचणींत आशिल्ल्या लोकांक आदार दिवपाचो बापायचो गूण ताच्यातूय आयिल्लो. आपल्या सभावान ताणें गांवकारांचेंय मन जिखिल्लें.



अशींच कांय वर्सां गेली. भाटकार आता जाण्टो जाल्लो. जॉन आनी जुजेय जुवान जाल्ले. जॉनान आपल्या बापायक विसव घेंवक लायलो. भाटाची सगळीं कामां ताणे आतां आपल्या भुजार घेतली. जुजेन मात जॉनाक कसल्याच कामाक केन्ना आदार केलो ना. वयल्यान जॉनान फळां-नाल्लबी विकून पयशे हाडले कि ताणें ते ताचेकडल्यान घेवन फोल्गां करपाक मोडचे. पयशे घेवन तो आपल्या इश्टांक घेवन हॉटेलांनी बरी बरी खाणां खातालो. बरी बरी मुस्तायकी घालतालो. भाटकारान केन्नाय ताका जाप विचारल्यार ताणें बापूय म्हणिनास्तना ताका परती जाप दिंवची. जुजेचो सभाव तसोच उरलों हें पळोवन भाटकाराक खूब दुःख भोगतालें. ताच्या खंतीन भाटकार दुयेंत पडलो. जॉनान भाटाचीं कामा करता करता बापायचींय खूब सेवा केली. पूण भाटकार दुखण्यातल्यान उठलोना आनी एकदीस हो संवसार सोडून गेलो.

बापूय आपल्याक सोडून गेल्ल्याक जॉन खूब कश्टी जाल्लो. अख्खो दीस भाटांत कसोय वतालो पूण रातीकडे जॉनाक बापायची खूब याद जाताली आनी दोळयांतल्यान सरसर दुकां व्हावतालीं. जुजेन मात थोडो तेप आपल्याक बापूय गेल्ल्याचें दुःख जालां म्हणपाचें नाटक केलें. मागीर आपलें वागप परत सुरु केलें. आता ताका जॉनाची अडचण दिसपाक लागली. एकदीस ताणे पयशांचें निमित्त करुन जॉनाक घराभायर धांवडायलो. सोशीक जॉन वोग्गी रावून घरातल्यान भायर सरलो.

जॉन घरांतलो जो भायर सरलो तो बध्द दुसऱ्या गांवात येवन थांबलो. चलून चलून ताचे पांय सामके दुखून आयले. तानेन ताळो सामको सुकलो. पोटाकय चुरचुरुन भूक लागिल्ली. चलत चलत तो एका भाटातल्या घरासामकार आयलो. बापायच्या मर्णान पयलींच जॉन सामको खंती जाल्लो तांतूंत तानेन आनी भुकेन ताका सामकेंच पुरो जाल्लें. त्या घराच्या सोपणाचेर बसतनाच ताका चिर्र्र करुन घुंवळ आयली.

त्या भाटाचो भाटकार आनी ताचें चली मारीया त्या वेळार भाटांत झाडां शिंपताली. घराच्या सोपणाचेर बशिल्ल्या तरणाट्याक घुंवळ आयल्या तें पळोवन तीं दोगांय धांवत ताचेंसरी गेलीं. मारीयान जॉनाच्या तोंडार उदक फाफुडलें. जॉन मातसो सावचित जालो. भाटकारान ताका हाताक धरुन उठयलो आनी ताका घरांत घेवन गेलो. 'पाय, ताका भांणांतलें गरम गरम उदक न्हावपाक घालतां. तुजी मुस्तायकी ताका दी. हांव ताका गरम गरम पेज वाडटां. सामको भुकेला आसतलो तो. मारीयान पायक सांगलें आनी गरम गरम उदक बालदेन उसपून ताणे तें मान्र्यान व्हरून दवरलें. मारीयाच्या पायान दिल्ली मुस्तायकी घेवन जॉन न्हावपाक गेलो. गरम-गरम उदक

आंगार पडटकूच जॉनाक बरी तरतरी आयली. न्हांवन धुवन जॉन पाटार येवन बसलो आनी मारीयान दिल्ली गरम-गरम पेज जेवलो.

जेवणा उपरान्त जॉनान मारीयाच्या पायक आपली सगळी गजाल सांगली. पायन म्हळें 'जॉन तूं म्हाका म्हज्या मारीयावरीच. तुज्यान आयज रातीकडेन हांगा रावू येता. फाल्या आमी कितेंय उपाय येवजूया' मारीयाच्या पायच्या उतराक मान दिवन जॉन रातीकडेन तांगेरुच रावलो.

दुसऱ्या दिसा च्या पिल्या उपरान्त मारीयाच्या पायन जॉनाक म्हळें, 'जॉन तुजी सगळी खबर हांवें काल आयकली. म्हजे तकलेंत एक गजाल आयली. तूं खूब कश्ट करपी भुरगो. कश्ट करुन मातयेंत भांगर पिकोवपाची तांक तुजेलागीं आसा. म्हज्या गांवचे शिमेलागसार एक भाट आसा. हांव आतां जाण्टो जालां आनी मारीयाकूय थंय एकलेच धाडूंक बरें दिसना म्हूण तें भाट अशेंच पडींक उरला. तें भाट हांव तूकां दिता बरें मन लावन काम कर. करतल्या कश्टाक तूका फळ मेळटलेंच.'

पायचीं उतरा आयकतकूच जॉनाचें हड्डें भरुन आयलें. दोळयांतल्यान उदका झर व्हावूंक लागली. 'पाय' म्हणत तो पायचे पांय धरपाक बागवलो. पायन ताका वयर उखलून आपल्या हड्ड्याकडे धरलो. मारीयान कुशीक वचून ल्हवूच दोळयांतली दुकां पुसलीं.

जॉनान जेजूची आनी सायबीण मांयची प्रार्थना केली. मारीयाच्या पायचें बेसांव घेतलें आनी ताणें भाटांत काम करपाक सुरवात केली. ताणें फोंड खणून कवाथे रोयले. आब्यांचे, पणसाचे रोपे लायले. दिसुयभर झाडांची आनी कवाथ्याची जतनाय तो घेतालो. वेळच्या वेळार सारें घाल, माती घाल, उदक शींप, अशींच कांय वर्सां गेली. कवाथ्याचे माड जाले. आंब्याची-पणसाची झाडां घसघशीत वाडलीं.

आत्र्यापयऱ्यान मारीया आनी मारीयाचो पाय जॉनाकडे येवन वतालो. काम करपाची ताची जिद्द, कश्ट करपाची उमेद, मेकळो आनी निगर्वी स्वभाव पळोवन मारियाचे ताच्या पायन जॉनाकडे लग्न लावन दिलें. जॉनाक कामाक मारीयाचोच आदार जावपाक लागलो.

जॉनाक दोन पूत जाल्ले. तेवूय व्हड जावन बापायक आदार करताले. जॉन आनी मारीया जाण्टेपणात सामकी खोशी आशिल्लीं.

हेवटेन जॉनाक धावडायल्या उपरान्त जुजेन फॉल्ग मारपाखातीर आशिल्लो सगळो दुडू सोपयलो. काम करपाची आवड नाशिल्ल्यान भाटांत तो काम करपाक केन्ना गेलोना. झाडां-माडांची बरी कुयदाद जालीना देखून ती सुकून वचपाक लागली. जुजेन पयशांचे आशेन झाडां कापून तीं वखारकाराक विकून उडयलीं. भाट झाडां पेडां विणे उक्तें दिसपाक लागलें. जुजेन सगळो पयसो फोल्गांकूच मोडलो. रावत्या घराची लेगीत केन्नाच कुयदाद घेतलीना. जुजे आता जाण्टो जाल्लो. सगळो पयसो सोंपिल्लो. ते खाती ताचे इश्टूय ताका पयस करपाक लागले. इश्टांनी ताचे मोडिल्लें भाट-घर सगळें आपल्या नावार केलें. घरदार नाशिल्लो जुजे आतां रस्त्यार पडिल्लो. त्यावेळार ताका आपल्या करणेची याद जाली. आपल्या भावाक जॉनाक आपणेय अशेंच घरातल्यान धांवडावन घालो. ती याद ताका जाली. पश्चातापान ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवूक लागली. आपल्या गुन्यांवाची भोगसणी मागता मागता तो जॉन आशिल्ल्या गावांत पावलो.

दनपारच्या कडार भुकेन कासावीस जाल्लो जुजे जॉनाच्या दारांत पावलो. 'म्हुज्या भावा, म्हाका कितेंय खांवक दिशीत? भुकेन सामको जार जालां हांव' ताणें घरात पळयत म्हळें. बत्कांवाचेर बसून जॉन नाल्लाचो हिशेब तपासून पळयतालो. ताका आवाज वळखीचो दिसलो. तो सडसडीत उठून भायर आयलो जुजेचो सामको हाडांचो सापळो जाल्लो. कपडे पिंजिल्ले. तरीय जॉन ताका वळखलोच. 'जुजे म्हज्या मोगाच्या भावा' म्हणत ताणें जुजेक वेंगायलो.

जॉनान आपल्या भावाक जुजेक घरात हाडलो. ताका जेवण-खाण दिलें. जुजेन जॉनाकडे भोगसणी मागली. जॉनानूय व्हड मनान ताका माफ केलें. जुजे मागीर जॉन-मारीया आनी तांच्या पूता वांगडा सुखान रावलो.

●

# हुशार माकडापिल्लां

मोलेच्या रानांत जायतीं जनावरां रावतालीं. उदक पिवपाखातीर तांका न्हंयेकडेन येवचें पडटालें. न्हंयेदेगेर सोरपाचें एक बीळ आशिल्लें. तांतूत एक दुश्ट सोरोप रावतालो. उदक पिंवक येतल्या जनावराचो चुकून लेगीत पांय बिळार पडल्यार तो तकली भायर काडून फोंस्स करतालो आनी त्या जनावराक चाबतालो. तो खूब विखारी आशिल्लो. ताचें वीख सोसूनज जावन जनावर बाबडें फडफड्न थंयच मरुन पडटालें. त्या सोरपाकलागून जाण्टीं जनावरां बिळाकडेन पावतकीच शादूरतायेन चलतालीं पूण उमेदीचीं, नेणटीं जनावरां मात नकळटा ह्या सोरपाचे भकीक पडटाली.

ह्या सोरपाआड उपाय करपाक रानातल्या जनावरांनी एकदीस सगळया जनावरांची सभा आपयली. सगळी जनावरां एकठांय आयलीं. तांतूंत हतयासारकी व्हड जनावरां आशिल्लीं. तशींच सोशांसारकीं ल्हान जनावरांय आशिल्लीं. सोरपाक कशें मारप हाचेर सगळयांची भासाभास सुरु जाली. पयलीं मेरु उलोंवक लागलो. ताणें म्हळें, 'आमचे मदीं खूब वजन आशिल्लो हती आसा. ताणें त्या सोरपाचे फणयेर पांय दिवन ताका मस्तून-चिड्डून उडोवचो.' पूण सोरपाच्या विखान व्हडलीं व्हडलीं जनावरां तडफडून मेल्लीं हतयान पळयल्लीं. आपूण जावन सोरपाच्या बिळार कोण पांय दियत?

आपल्या आंगावयली जबाबदारी फाफडून ताणें म्हळें, 'अशें कशें आमीच कित्याक म्हूण हें काम करचें? गवेरेडे, पाणघोडे हांच्यानीय तें काम करुं येता'. आपल्यार येताशें दिसतांच गव्यारेड्यांनी तें काम दुसऱ्यांचेर धुकल्लें. जो तो ते काम एकमेकाचेर धुकलीत रावलो. तांचो बोवाळ इतलो वाडलो कि कोण कितें उलयता तेंच कळनाजालें. निमणो कांय निर्णय जायनास्तना सभा सोपली.

सभा चालू आसतना दोन माकडांपिलां मात वयर झाडार बसून सगळयांच्यो गजाली आयकतालीं. एकल्या पिलाच्या मनांत एक गजाल आयलीं. ताणें ती बेगबेगीन दुसऱ्या पिलाच्या कानांत सांगली. तेसरशी मान हालयत ताणें पयल्या माकडापिलांक हयकार दिलो. दोगूय ल्हवूनय सभा आशिल्ल्या जागेपासून पयस गेले आनी ताणीं गावांत वचपाची वाट धरली. गावांत एका घरचे काम चलतालें. थंय लोखणाची जायतीं आवदां आशिल्ली. माकडाच्या पिलांनी लोखणाचो एक वारांव उखल्लो. एकल्यान ताच्या एका पोताक धल्लें आनी दुसऱ्यान दुसऱ्या पोताक वारांव बरोच जड आशिल्लो. आवा-शिवा करीत माकडापिलांनी तो वारांव न्हंयेदेगेर बिळांकडेन हाडून दवरलो. बोवाळामदी सकाळ जाली.

माकडापिलां रातभर वारांव गांवातल्यान रानांत हाडीमेरेन सामकीं जार जाल्लीं. ताणीं झाडार चडून पयलीं बरी-बरीं फळां खावन पोट टुण्ण भरुन घेतलें आनी थोडोवेळ झाडा खांदयेर विसव घेतलो.



रानांत झाडां-झोपांतल्यान सुर्याची किर्णां रिगपाक लागलीं तशीं दोगूय माकडांपिलां जाग्यावयलीं उठलीं आनी बिळाकडेन गेली. एका माकडांपिलान वारांवाचें एक पोंत धरलें आनी दुसऱ्यान दुसरो आता वारांव सामको बिळाचेर आशिल्लो. एका पिलान दाव्या हातान एक धाकटुलो फातर सोरपाच्या बिळार शेवटीलो. फातर बिळार आपटून फुडे गेलो. त्यासरशी सोरपान बिळांतल्यान तोंड भायर काडून फोंस्स केलें. दोगांय

पिलां त्याच खिंणाचीच वाट पळयतालीं. ताणी वेळ वगडायनास्तना वारांव सोरपाच्या मानेर दामून धरलो. सगळी तांक ताणी तो वारांत दामपाक धरील्ल्यान सोरपाची मान सामकी लोखणाच्या वारांवापोंदा चिड्डली. सोरपाचें आंग बिळांत आनी मान वारांवापोंदा सोरोप फोंस्स-फोंस्स करीत तडफडपाक लागलो. आनी निमणो मरून पडलो. वारांव घट्ट दामून माकडापिलांचे हात सामके दुखून आयले. आंगातल्यान हूम गळून ती चिप्प भिजलीं. सोरोप मरुन पडटांच हा-हू करीत वारांव सकयल उडोवन ताणी थंयच बसकण मारली.

हेवटेन मरणाच्या आकांतान सोरोप फोंस्स-फोंस्स करतालो. ताचो आवाज रानभर पावलो. सगळी जनावरां कितें जालां ते पळोंवक न्हंयेकडेन धावलीं. सोरपा बिळाकडेन दोन माकडांपिलां सोरपाची गोमटी वारांवान दामून ताका मारता तें पळोवन तांचे दोळे टिपले. आनी सोरोप मरताच 'हिप हिप हुर्रर' करीत तांणी दोनूय माकडापिलांक नाचोंवक सुरवात केली. सोरपाक मारपाक गुल्ल जाल्ल्या माकडा पिलांनी आशिकुशीक पळोवंक नाशिल्लें. अकस्मात हिप हिप हुर्रर चो आवाज आयकून ती पयलीं मातशी भियेलीं पूण सगळीं जनावरां आपल्याचो जयजयकार करतात तें पळोवन सुखावलीं. जें काम व्हड-व्हड जनावरांनी करपाक न्हयकार दिलो तें काम दोन सान माकडांपिलांनी केलें तें पळोवन रानाचो राजा शिंवूय खूब खोशी जालो. ताणें एक सभा आपोवन माकडापिलांचो सत्कार केलो.

●

## -आमची प्रकाशनां-

- **फोरेंन जांवय** *(नाटक)* .... एन्. शिवदास
- **कांवळे** *(एकांकी)* .... रामदास नायक
- **नचिकेता** *(कविता)* .... डॉ. दयानंद राव
- **पारजत परमळ** *(ललित निबंद)* .... डॉ. उमानाथ राताबोली
- **वळेसर** *(ललित निबंद)* .... मुकेश थळी
- **पावसफुलां** *(कविता)* .... राजय पवार
- **बाबू** *(भुरग्यांखातीर)* .... एन्. शिवदास
- **कथा परिक्रमा** *(पाठ्यपुस्तक)* .... गोंय विद्यापीठ
- **पांवलां** *(कविता)* .... जॉन आगीयार
- **वागमामाची फजिती** *(भुरग्यांखातीर)* .... जयंती नायक
- **रतन - आबोलीं** *(पाठ्यपुस्तक)* .... गोंय विद्यापीठ
- **मिरास** *(कथा)* .... वामन टाकेकार
- **रातराणी** *(कादंबरिका)* .... अशोक भोंसलो

- जैत प्रकाशन -